# काणयो पिटकुल्यांच्यो

## माणिकराव गावणेकार



## माणिकपद्म प्रकाशन

काणयो पिटकुल्यांच्यो

(लोकवेदाचेर आदारीत)



महालक्ष्मी देवळा लागीं - बांदिवडें-फोंडें, 403 401.



1998

**प्रकाशक**

माणिकपद्‌म प्रकाशन, बांदिवडें




छपाई :

राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

मुखपृष्ठ आनी सजावट :

गंगाराम परब



मोल :

1998 - 12 /- रु.

1999 - 12 /- रु.

2000 - 15 /- रु.

# आळशी पूण हुशार कोलो

एक खेडेगांव आशिल्लो. त्या खेडेगांवांत कुळंबी लोक रावताले. त्या गांवांत एक म्हातारी रावताली. तिका एक पोर आशिल्लो. ताजें नांव कोलो आशिल्लें. तो तकलेन हुशार आशिल्लो पूण सामको आळशी. कांयच काम करिनाशिल्लो. आवय बावडी किदेंय कश्ट करताली आनी त्या पोराक पोसताली.

एक दीस ताणें आपले आवयक म्हळें, "आवय म्हाका चार भाकऱ्यो भाजून दी पळोवया. हांव जोडूंक वतां." आवयक बावडेक सामकी खोशी ज़ाली. तिणें ताका बेगीबेगीन चार भाकऱ्यो भाजून दिल्यो. भाकऱ्यो घेवन ताणें आवयक म्हळें, "आवय, तूं आतां भायर सर. तुजीं आयदनां आनी सगलें सामान भायर काड़." आवयक कांयच समजना. पूण पूत आपलो जोडूंक वता म्हणून तिणें सांगिल्ले प्रमाण केलें. कोल्यान वेळ करिनासतना खोंपटेक उजो लायलो. कांय वेळान उजो वतकूच ताणें सगले कोळशो एकठांय केले आनी कोणाकडल्यान तरी दोन साक मागून हाडले. ते सगले कोळशो त्या साकांनी भरले आनी वचूंक लागलो. लोकांनी तें

पळयलें आनी तें ताका हासूंक लागले. “आशिल्ली ती खोंपटी लेगीन लासून उडयली आनी हो आतां जोडूंक वता खंय.” अशें म्हणून लोक ताजी फकाणां मारूंक लागले. पूण कोल्याक तांची पर्वाच नाशिल्ली. तो ते साक घेवन चलत रावलो.



वतां वतां वाटेर ताका तिनसांज जाली. खंय रावचें म्हणून तो हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलो. इतल्यान ताका एक घर दिश्टी पडलें. त्या घरांत एकलीच बायल रावताली. कोलो थंय गेलो आनी ताणें तिजेकडेन रातीपुरतो न्हिदपाक जागो मागलो. पूण ते बायलेन जागो दिना म्हणून सांगलें. कारण तिगेर रातचो एक मनीस येतालो. म्हणून ती जागो दिवपाक तयार नाशिल्ली. पूण कोल्यान तिका काकुळटेन सांगलें, “हांव

चौकेर न्हिदतां आनी सकाळीं वतां.” अखेरेक ती तयार जाली. कोलो भाकरी खावन ओगी न्हिदलो. सदांभाशेन मनीस आयलो. पूण ज्युस्तूच ताका काळजांत दुखपाक लागलें आनी तो मेलो. ती सामकी भिंयेली. आपल्याचेर येत म्हणन ती कोल्याक उठोवपाक लागली. पूण कोलो कसोच उठना. निमाणें फांतोडेर काळखांतूच उठलो आनी दोळे चोळीत म्हणूंक लागलो, म्हाका दोन पायलीभर पवनां दिवंचीं पडटलीं “ ते बायलेन शेटीकडल्यान घेवन खूब पयसो केल्लो. तिणें आपलेवयलें संकट टाळपाखातीर ताका दोन पायलीभर पवनां दिलीं.



तो उठलो. तें प्रेत खांदार मारलें आनी व्हरपाक लागलो. बरोबर साकूय घेतले. बरो फुडें सावड रोयिल्लो. थंय खूब लोक काम करताले. हाणें तें प्रेत व्हरून सावडीचे वंयक तेंकोवन दवरलें आनी जंय लोक काम करताले तेवटेन वचपाक लागलो आनी म्हणपाक लागलो, "आरे काल म्हजो भाव हांगा आयिल्लो मरे. तुमी बी पळयला?" तांणी म्हळें, "ना रे बाबा आमी पळोवंक." ताणें म्हळें, "काल हांगा भाजी हाडपाक वतां म्हणून आयिल्लो. रातीं घरा आयलोच ना. म्हणून हांव सोदीत आयलों." कोलो मोटो शाणो. तो असो तसो भोंवत त्या प्रेताकडेन गेलो आनी म्हणपाक लागलो, "आरे देवा, म्हज्या भावाक मारून उडयलो मरे तुमी? रावात आतां केश करतां वचून रेजिदोराकडेन अशें म्हणून कोलो रडपाचीं सवंगां करपाक लागलो. काम करपी लोक एकदम भिंयेले. तांणी कोल्याक कितलें सांगलें, तांणी ताका मारूंक ना म्हणून, पूण कोलो कसोच आयकना जालो. तो म्हणपाक लागलो, "तुमी ताका तवशीं घोंसाळीं नाका दिवंक. आतां ताजे बायलेक, भुरग्यांक कोण पोसतलो? किदेंय कुडवभर खुर्दो दिल्यार जायत. तांणी सगल्यांनी संकट टळपाखातीर कुडवभर खुर्दो जमयलो आनी कोल्याक दिलो. कोल्यान

आनीक वेळ केलोना, तशोंच काळखांत तें प्रेत व्हरून ताणें पयस उडयलें आनी साकांतले सगले कोळशे ओतयले. आनी सगलीं पवना आनी खुर्दो त्या साकांनी भरून गांवांत आयलो.

गांवांत आयलेबरोबर ताणें आवयक म्हणून उलो मारलो. आपलो पूत किदेंय तरी घेवन आयला म्हणून तिका आनंद जालो. कोल्यान आवयक पड हाडपाक रेजिदोरागेर धाडली. आवयन वचून पड मागली. रेजिदोराचे बायलेन पड दिता आसतना पडीच्या तळाक मेण लायलें. कोलो ते साक घेवन आवयन बांदिल्ले इल्लेशे खोंपटेंत घेवन गेलो. कोल्यान सगले मेजून जातकच पड व्हरून दिली. पडीच्या तळाक दोन पयशे आनी पंचवीस पयशे लागिल्ले. तांकां अजाप जालें. ताणें कोल्याक दुसऱ्या दिसा विचारलें. कोल्यान सांगलें, "कोळशाक पळे दर आयल्या ती सांगपाची सोय ना. हांवें दोनूच साक व्हेले. चड व्हेल्ले जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें."

हें सांगिना बरोबर सगल्यांनी आपापल्या खोंपट्यांक उजो लायलो आनी कोळशे घेवन गेले. पूण थंय गेल्यार कोण मागता. एक साक तीन रुपयांक, कोण मागता देड रुपयाक. तिनसांज जातकूच हांणी ते साक विकले आनी चार पांच रुपया घेवन घरा आयले. तांकां कोल्याची खूब तिडक आयली.

तांणी ताका बुडोवन मारपाचें थारायलें. ते सगले सकाळीं उठले आनी कोल्याक साकांत भरलो आनी न्हंयचेर घेवन गेले. पळयत जाल्यार न्हंयक आयल्या सुकती. तांणी ताका भरतेर उडोवया म्हणून थंयच दवरलो आनी घरा आयले. कांय वेळान साकांतलो कोलो मोट्यान म्हणूंक लागलो, "धरून बांदून लग्न करता, देवा देवा" तेवटेंतल्यान गोरवांक घेवन एक राखणो वतालो. ताणें तें आयकलें आनी कोल्याक साकांतल्यान भायर काडून ताका विचारलें, "किदें जालां?" कोलो सामको रडकुळो परतलो आनी म्हणूंक लागलो, "हांव नाका म्हणटा आसतना म्हाका लोक लग्न करतात. म्हाका हांगा दवरला आनी ते व्हंकलेक हाडपाक गेल्यात. हें आयकून राखणो खोशी जालो आनी म्हणपाक लागलो," हांव लग्न जातां. ते म्हणसर तूं मातशीं म्हजीं गोरवां पळय. आनी लग्न जातकूच म्हजीं गोरवां म्हाका दी." कोल्यान ताका साकांत बसयलो आनी साकाचें तोंड घट्ट बांदलें आनी गोरवां घेवन गेलो. हेवटेन लोक आयले आनी त्या राखण्याक भरतेर उदकांत उडोवन दिलो. कांय वेळान तिनसांजचो कोलो गोरवांक घेवन "हय हयेक्, है, है है" करीत गांवांत आयलो. आनी आवयक रेजिदोराकडेन वचून चाळिशेक दावीं हाडपाक सांगलीं. आवय बावडी नाचत रेजिदोरागेर गेली आनी दावीं हाडलीं.

रेजिदोरूय तिजेबरोबर आयलो आनी ताणें कोल्याक विचारलें "आरे तुवें गोरवां कशीं हाडली रे? आनी तूं रे कसो आयलो?" कोल्यान सांगलें, "किदें सांगतलों? तुमचे उपकार हांव जल्मांत विसरपाचों ना. म्हाका तुमी जेन्ना न्हंयंत उडयलो तेन्ना हांव साकांतल्यान भायर सुटलों. कसो सुटलों तें हांव नकळों. बुचकळेक एक गोरूं, बुचकळेक एक गोरूं. वाज आयलो म्हाका. म्हणून हीं पळयात, इतलींच गोरवां घेवन आयलों हांव." रेजिदोर आनी गांवचे कांय जाण जमले आनी तांणी विचार करिनासतना आपल्या बायलांक सांगलें , भरतेर आमकां न्हंयंत उडयात. बायलो बावड्यो किदें करतल्यो? केलें तांणी सांगिल्लें तशें. साकांत भरून उडयले सगल्यांक. कांय वेळान ते मेले. बायलो बावड्यो बसल्यात दावीं-बिवीं घेवन. पूण घोव खंयचे येतात ? तांणी कोल्याक म्हळें, "आयले नात मरे ते!" कोल्यान म्हळें, "येतले खंयचे ते? ते केन्ना मेले. म्हाका मारूंक सोदतालीं? बसात आतां रडत."

कोलो बरो घर-बीर बांदून सुखान रावूंक लागलो. हांकां घरांय नात आनी घोवूय नात.

# सर्ती वांटो

शेजरा शेजरा दोन म्हाताऱ्यो रावताल्यो. एकलेचें नांव केसू आनी दुसरेचें नांव जायू. दोगांकूय एक एक पूत आशिल्लो. केसूच्या पुताचें नांव पोकू आनी जायूच्या पुताचें नांव दोमळो. दोगांचेंय लग्न जाल्लें. पोकूली बायल आपले मांयक सदांच त्रास दिताली. तीं दोगांय दीसभर झगड-झगड झगडटालीं.

दोमळो आनी ताजी बायल आवयक त्रास दिनाशिल्लीं. एक दीस पोकूचे बायलेचें आनी मांयचें व्हडलें झगडें पेटलें आनी पोकून आनी ताजे बायलेन आवयक रातचीच भायर घाली. ती रडत गांवांतल्यान वताली. वतां वतां वाटेर तिका एक पेड मेळळें. ती रात त्या पेडारूच काडची म्हणून पेडा मदीं जें वडाचें झाड आशिल्लें ताजेर चडून एके खांदयेक घट्ट धरून ती न्हिदली. बरे रातीं चौग चोर पेडार आयले आनी चोरिल्ल्या म्हालाचे वांटे करूंक लागले. तातूंत पवनां, मोतयां अशें बरेंच आशिल्लें. इतल्यांत वयर पळय म्हातारी न्हिदिल्ली तिजो हात सुटलो आनी डुब्ब करून सकयल पडली . चोर भूत म्हणून समजून फुज्यो. म्हातारी उठली. तें सगलें घेतलें आनी

तशीच घराकडेन आयली आनी म्हणूंक लागली, 'बाबा, दार उगड मरे, हांवें कितें हाडलां' बऱ्या वेळान पुतान दार काडलें. म्हातारेन बेगीन बेगीन दार धांपूंक सांगलें. म्हातारेन भांगर-पवनां पुताक आनी सुनेक दाखयलीं. तें भांगर जशो पळोवं नाका, पूत आनी सून आवयक घेवन नाचूंक लागलीं.



सकाळीं उठून सुनेन भांगर बिंगर घालें आनी ती मोडत गांवांत भोंवंक लागली. जायूचे सुनेन तिका जशी पळोवं नाका, तिका सामकें कितें जालें. जायूचे सुनेन पोकूचे बायलेक भांगर

कशें मेळळें तें विचारलें. पोकूले बायलेन तिका जें खरें तें सांगलें. जायूचे सुनेक दिसलें , आपणेंय तशेंच करचें. खरें पळयल्यार ती मांयबरोबर केन्नाच झगडूंक नासली. पूण ते रातीं मुद्दम झगडली आनी दोमळयान आनी तिणें मेळून आवयक भायर घाली. ती तशीच रडरडत त्याच पेडार गेली आनी त्या झाडाचेर वचून खांदयेक घट्ट धरून न्हिदली. ते रातीं चोर त्या पेडार आयले आनी चोरये म्हालाचे वांटे करूं लागले. म्हातारेन हें जशें पळोवं नाका खांदयेचो हात सोडलो आनी तिणें डुब्ब करून सकयल उडकी घेतली. चोरांनी तिका जशी पळोवं नाका, तांकां आयलो राग. "सदां-सदां भूत म्हणून आमकां भेशटावंक येता?" अशें म्हणून चोरांनी तिजें नाकूच कापून उडयलें. म्हातारी बावडी रडत रडत थंयच पडून रावली. दीस जालो तरी म्हातारी येना म्हणून दोमळो आनी ताजी बायल सोदीत पेडार आयलीं. पळयत जाल्यार जायूचें नाक कापलां आनी रगत व्हांवत आसा. तशीच तिका घरा हाडली आनी दोतोराक दाखयली. तांकां भांगर ना तें ना, वयल्यान नाक कापलें म्हणून खर्च. सर्ती वांटो सोदलो म्हणून कोंताक पडटा!

1032

# सात राजकुंवर आनी राकशीण

एक राजा आशिल्लो. ताका सात पूत आशिल्ले. तांणी जाणटे जातकूच देश पळोवंक वचपाचें थारायलें. राजाक ते पांयां पडले आनी प्रवासाक वतना ते सात घोड्यांचेर बसून गेले. वतां वतां ते एका रानांत पावले. ती रात तांणी रानांतूच काडपाचें थारायलें. ते सात पूत सुंदर आशिल्ले. त्याच रानांत एक राकशीण रावताली. तिणें त्या सात राजकुंवरांक पळयले आनी तिणें तांकां खावपाचें थारायलें. ती बोकडी जाली आनी त्या राजकुवरां म्हऱ्यांत आयली. ती बोकडी बरी आशिल्ल्यान तांकां कसलोच दुबाव आयलोना. बोकडी तांचेबरोबर रावताली. अशेच एके रातीं सगले न्हिदले तें तिणें पळयले आनी व्हडल्या भावाक आनी ताज्या घोड्याक खालो. आनी ती परती बोकडी जावन रावली. सकाळीं ऊठ ज़ाल्यार बाकीच्या भावांक अजाप जालें. तांणी विचार केलो. व्हडल्या भावाक प्रवासाचे त्रास सोंसनात जाले म्हणून भाव घरा गेलो दिसता. पूण परत दुसरे रातीं दुसऱ्या भावाक खालो. परत तांकां अजाप जालें. करतां करतां पांच भावांक खाले. निमाण्या भावाक दिसलें, हें किदेंय तरी बोकडेचेंच कारस्थान. ताणें दुसरे रातीं आपलें बोट

कापलें आनी तातूंत लिंबू पिळळो आनी ते रातीं न्हिदेचें सवंग केलें आनी जागोच रावलो. बरी रात जातकूच ही बोकडी राकशीण जाली. तिणें त्या सव्या भावाक आनी घोड्याक खालो. हें सगलें धाकल्या भावान पळयलें.



तो सकाळीं उठलो आनी "हांव उदक पियेवंक वतां" अशें बोकडेक सांगलें आनी घोड्यार बसलो आनी दुसऱ्या राज्यांत गेलो. हें जशें तिका कळ्ळूं नाका, ती एक सुंदर बायल जाली आनी राजकुंवर गेला ते वाटेर केंस मानेर सोडून धांवंक लागली. त्या राज्यांतलो राज़ा ज्युस्तूच त्या दिसा शिकारेक वतालो. ताका ही सुंदर बायल रडटा आसतना दिसली. ताणें तिजी चवकशी केली. तिणें सांगलें "म्हगेलो घोव घोड्यार बसून म्हाका सांडून गेलो म्हणून हांव रडटां" राजान तिका

सांगलें, “भिंयेवं नाका. तूं म्हजी बायल जा.” राजान तिका आपल्या राज्यांत हाडली. बरो वाडो बांदून दिलो आनी थंय ती रावूंक लागली. त्याच राज्यांत तो राजकुंवरूय पावलो आनी राजाक ताणें सांगलें, “म्हाका कसलीय नोकरी दी.” “हांव तुका नोकरी दितां पूण तुका हांव सांगतां तें काम करचें पडटलें,” राजान ताका सांगलें. ताका तें मान्य जालें. राजान ताका एक घर दिलें. तातूंत तो रावूंक लागलो.

राकशिणीन ताका एक दीस पळयलो आनी तिका कळळें तो ह्याच राजागेर कामाक आसा म्हणून. ताका आतां कसो मारचो? हाजो विचार ती करूंक लागली. एक दीस राकशिणीन आपल्या पोटांत जाता अशें सांगून ती माळयेर हेवटेच्यान तेवटेच्यान लोळपाक लागली. राजान तिका विचारतकूच तिणें सांगलें, “भुरगेपणापासून म्हाका पोटांत जावपाची संवय आसा. तेन्ना म्हाका वागिणीचें दूद दितालीं. तें घेतकूच म्हगेल्या पोटांतलें थांबतालें. आनीक कसलेंच वखद म्हाका चलना.” राजान विचार करून त्या राजकुंवराक वागिणीचें दूद हाडपाक सांगलें. राकशिणीक दिशिल्लें हाका वागीण खातली. राजान सांगलेबरोबर तो वागिणीचें दूद



हाडपाक गेलो. रानांत वचत जाल्यार वागिणीचीं दोन पिलां मोट्यामोट्यान रडत आसात. किद्याक तर चारूय वटांनी उजो लागिल्लो आनी तांकां भायर सरपाक मेळनाशिल्लें. राजकुंवरान बेगीन बेगीन उजो वाडयलो आनी त्या पिलांक वांचयलीं. पिलांक ताजे सामके उपकार जाले. तांणी ताका विचारलें, “तूं हांगा किद्याक आयला?” राजकुंवरान कारण सांगलें. वागीण येतकच तांणी सगली खबर तिका सांगली



आनी तिका त्या मनशाक दूद दिवपाक सांगलें. तिणें त्या राजकुंवराक आपयलो आनी वागिणीन ताका सांगलें, "आमीच तुजे बरोबर येतात आनी जाय तितलें दूद दितात." मागीर राजकुंवर वागिणीक आनी तिज्या पिलांक घेवन राजागेर आयलो. ते राकशिणीन जसो ताका वागिणीसयत पळोवं नाका, तिणें कपलार हात मारलो आनी ताका कसो मारचो हाजो ती परत विचार करपाक लागली.

कांय दिसांनी तिणें राजाकडेन हट्ट धरलो. "सातां समुद्राभायर खोल समुद्रांत एक पेटी आसा. ते पेटयेंत जो रत्नहार आसा तो म्हाका हाडून दी." राजान तें काम त्या राजकुंवराक सांगलें. राजपुत्रान ते वागिणीक आनी पिलांक घेतलीं आनी सातां समुद्रांभायर गेलो. ताणें व्हडलें जाळें घालें. त्या जाळयांत ताका एक व्हडली पेटी मेळ्ळी. ती उगडून पळयत जाल्यार भितर एक सुंदर चली आसा आनी तिज्या गळयांत तो हार आसा. ते चलयेक तो राजकुंवर बरो दिसलो. राजकुंवरान आनी तिणें लग्न जावपाचें थारायलें. राजकुंवरान तिका राकशिणीची सगली कथा सांगली. तीं सगलीं त्या राज्यांत आयलीं आनी ताणें तो रत्नहार व्हरून त्या राजाक दिलो. तो हार राजान राकशिणीक दिलो. राकशिणीक सामकी घुंवळ आयली.

तिणें मनांत विचार केलो, हाका आतां मारपाचो एकूच उपाय आसा. हाका म्हगेल्या कुळारा धाडपाचो आनी म्हगेल्या भावाक हाका खा म्हणपाचो. म्हणून कांय दिसांनी राजाक ती म्हणूंक लागली, आपल्याक कुळारची याद येता. तेन्ना कोणाकूय थंय धाड. खावंच्याक हांव करून दितां आनी एक पत्र दितां " राजान हेंय काम त्या राजकुंवराक सांगलें. ताणें तो खावंचेलो डबो आनी तें राकेसी भाशेंत बरयल्लें पत्र राजकुंवरीक दाखयलें. बायलेक ती राकेसी भास कळटाली. ते राकशिणीन बरयलें, "पत्र घेवन येतल्याक दिसलेबरोबर खावंचो. "बायलेन





तें पत्र पिंजलें आनी तेच भाशेंत राकशिणीच्या भावाक अशें पत्र बरयलें: पत्र घेवन येवपी हो तुमचो भाचो. तेन्रा हाका बरे रितीन वागोवंचो. जाय तें दिवंचें''. पत्र घेतलें आनी तो राकशिणीच्या कुळारा गेलो. पयसुल्ल्यान राकशिणीच्या भावान ताका जसो पळोवं नाका, तो धांवत आयलो, आनी त्या राजकुंवाराक खावंक सोदूंक लागलो. ताणें तें पत्र बेगीबेगीन ताका दिलें. ताणें तें वाचलें आनी ताका खांदार घेवंन नाचपाक लागलो. तसोच ताका घेवन घरा आयलो आनी आवयक सांगलें. "हो पळय तुका कोण हाडला तो?" हें रे चिंवळें! म्हाका खावन खावन किद्याक हाडला? " आगे हो तुगेलो नातू! हें पळय पत्र धाडलां. ती राजाली राणी जाल्या खंय." अशें जशें ताणें तिका सांगूं नाका, ती राजकुंवराक घेवन नाचूंक लागली

आनी ताजी खूब अपुरबाय करूंक लागली. दोन-तीन दीस जातकूच राजपुत्रान तिका विचारलें, "बा, हो पांजऱ्यांतलो पोपट कसलो गे?" बा, हें शेंवणे कसले गे? बा, हें खाटलें किद्याक गे?" "आरे, तो पोपट म्हणजे तुज्या मामाचें मरण, हें शेवणें म्हळयार म्हजें मरण, तशेंच हें खाटलें म्हणजे तुजे आवयचे मरण. हात बी लावं नाका आं तांका," अशें तिणें सांगलें.

एक दीस तीं न्हिदल्यांत शें पळोवन तो ल्हवूच उठलो आनी पोपटाक मुड्डून मारलो. शेवण्याक चिड्डून उडयलें आनी खाटलें घेवन तो राज्यांत आयलो. येतना वागिणीक आनी तिज्या पिलांक घेवन आयलो. राकशिणीन हाका ज्युस्त पळयलो आनी त्या खाटल्याक पळोवन ती समजली, हाणें आपल्या कुळाराचो नाश केलो आनी आतां हो आपल्याक मारपाक आयला म्हणून. राजकुंवरान तें खाटलें सकयल दवरलें आनी वागिणीक आनी तिज्या पिलांक तें मोडूंक सांगलें. तांणी तें खाटलें 'कर्र कर्र' करून मोडून उडयलें. राकशीण राजा मुखार पडली आनी मेली. राजपुत्रान राजाक सगली खबर सांगली. राजान ताका आपलोच पुत मानलो आनी तें राज्य ताका दिलें. तांचें दोगांयचें मोठ्या थाटान लग्न केलें. तांचीं बापूय-आवय बय आयलीं आनी तीं सुखान रावूंक लागलीं.

# भुरग्यांखातीर नवीं पुस्तकां

काणयो आटकुल्यांच्यो

काणयो पिटकुल्यांच्यो

काणयो माणाकुल्यांच्यो

: माणिकपद्म प्रकाशन :